# पडबिंब

(कविता संग्रह)

डॉ. उल्हास गो. प्रभू नास्नोळकार



प्रकाशन

# पडबिंब

(कविता संग्रह)

# Padbimb

(A Collections of Poems)

By Dr. Ulhas G. Prabhu Nachinolcar

डॉ. उल्हास गो. प्रभू नास्नोळकार
९८२३०६६५४०

◆प्रकाशन क्र. १०

◆पयली आवृत्ती: १५ मार्च २०१४



◆मुखपृश्ठ
गौरीश वेर्णेकार

◆छापणावळ
रोहन मल्टिग्राफिक्स,
पणजी

◆प्रकाशक:
रुद्रा प्रकाशन
फॅड्रिका अपार्टमॅण्ट
काकुलो कॉलनी
मिरामार, पणजी
मो: ९८२३१११९१७

◆मोल: 130

ॐ श्रीमन्महागणाधिपतये नमः । इष्टदेव ताभ्यो नमः ।
कुलदेवताभ्यो नमः । ग्रामदेवताभ्यो नमः ।
स्थानदेवताभ्यो नमः । आराध्यदेवताभ्यो नमः ।
वास्तुदेवताभ्यो नमः । मुल पुरुशोभ्यो नमः ।

मात्रोभ्यो नमः।



**वै. वा. प्रमिलाबाय गो. प्रभू नास्नोळकर**
२९/०५/१९२२ - ३०/१२/२००४

पित्रोभ्यो नमः।



**वै. वा. गोपाळ वि. प्रभू. नास्नोळकर**
२१/०८/१९१८ - ०१/०३/२०००

गुरुभ्यो नमो नमः।

# दोन उतरां

कविता वाचपाचो आनी बरोवपाचो छंद ल्हानपणा सावन. कॉलेजींत आसतना मासिकां खातीर एक दोन कविता दर वर्सा बरोवप. बाकीच्यो भिरकटायिल्ल्यो तश्योच रद्दीक वताल्यो. वैजकी शिक्षण चालू आसतना ही आवड मासिकां पुरतीच उरली. जेन्ना वेवसाय म्हणून सुरू जालो तेन्नाच्यान मात कविते वयलें लक्ष उणें जालें. पूण उरिल्ल्या वेळांत बरोवप चालूच आसलें. जिवनांतले अणभव कागदाचेर उतरयतालो आनी हें सगळें मेजाच्या खणांनी नाजाल्यार कागदांनी घुस्पून उरतालें.

एक दीस दोतोर भिकाजी घाणेकार म्हज्या दवाखान्यांत आयलो. गजाली करतना हांवें ताका दोन-तीन कविता दाखयल्यो. मोगाच्या रागान ताणें म्हाका दोन कडक उतरां सांगलीं आनी हांव जागो जालों. हांवें म्हजे खण सांसपुपाक सुरवात केली आनी सांपडिल्ल्यो कविता सुदारल्यो. पळयतां पळयतां खूब एकठांय जाल्यो आनी तयार जाली ही ल्हानशी गांथन.

पुस्तक बरयतना म्हाका खूबशा लोकांचो हातभार लागला. ह्या सगळ्या लोकांचो हांव उपकारी आसां. म्हजी घरकान्न सौ. स्वरुपा, म्हजे पूत चि. परींद आनी चि. स्वप्नील, म्हजी सून सौ. सिंदुरा आनी म्हजी मेवणी श्रीमती दीपा सिंगबाळ हांणी म्हाका खूब तेंको दिलो. तशेंच आमचें ऑफिस स्टाफ कु. माधवी भट हाणें कसलीच किरकीर करितनासतना, म्हजें वांकडे तिकडे अक्षर सोंसून आनी वेळांत वेळ काडून ह्यो सगळ्यो कविता परत बरोवन काडल्यो. तिचो हांव मना सावन उपकारी. म्हाका प्रोत्साहन दिवपी आनी वेळा वेळार मदत करपी सौ. सुफला गायतोंडे आनी सौ. शकुंतला भरणे हांकां हांव विसरूंक शकना. हाचे फुडेंय तीं असोच मदतीचो हात फुडें करतलीं अशी आस्त बाळगितां. माधवबाबान ह्या पुस्तकाक प्रस्तावन बरयिल्ले खातीर आनी रुद्रा प्रकाशनान म्हजें पुस्तक उजवाडावपा खातीर घेतिल्ले तकालसी खातीर तांचों हांव उपकारी. ह्या प्रवासांत हांव कोणाकूय विसरलों जाल्यार माफी मागतां.

वाचतना कोणाकय कितेंय आडखळ्ळें जाल्यार वा सुदारणा करचीशी दिसली जाल्यार अवश्य कळोवचें. हांव तांचो उपकारीं आसतलों.

देव बरें करूं.

**- उल्हास गों. प्रभू नास्नोळकार**

# सर्जनाचे लिखणेंतल्यान

कोंकणींत आतां वेगवेगळ्या मळा वयले लोक साहित्य निर्मिती करतात ही बरी गजाल. ते आपले लिखणे वरवीं नव्यो जाणिवो केळयतात आनी ताका लागून कोंकणी साहित्याक नवी परिमाणां मेळूंक पावतात. कलेचें मळ हें सगळ्यां खातीर मेकळें आसता. देखून गी.व्ह. पटेल हो वेवसायान दोतोर आशिल्लो कविता, चित्र आनी नाटक हे कलेच्या मळार आपलें नांव कोरांतून दवरता. मिंगेल तॉर्ग ह्या पुर्तुगेज कविची अशीच एक देख आसा.

आमचे कवी उल्हासबाब नास्नोळकार हे वेवसायान सर्जन. सर्जनाचो संबंद मनशाचे कुडी कडेन येता. आनी तो आपल्या हातांत आशिल्ली धारेची सुरी घेवन कुडींतलें कुशिल्लें आसता तें कापून उडयता आनी जिवाक थाकाय दिता. आनी आतां तांच्या हातांतली लिखणी ही एका अर्थान सुरयेवरी ते वापरतात. संवसारांत दोन तरेचे कवी जावन गेल्यात आनी आयजूय आमचे मदीं आसात. ते म्हणल्यार भायलो संवसार पळोवन परिस्थितीचो वेध घेवन ताका शब्दरुप दिवपी. दुसरे तरेचे कवी आपले भितर बुडी मारून आत्मशोध घेवपी. तांकां आशिकुशीक कितें घडटा ताचें भान आसना. तांची नदर आत्मीक अणभवाचो सोद घेत आसता. सौंदर्यवादी कवी अशें लेबल तांकां दिवं येता. दोतोर नास्नोळकार हे पयल्या वर्गांत मोडटात. समाजीक नदरेन संवेदनशील आशिल्ल्या कवीक कवितेचे विशय सोदपाक चड पयस वच्चें पडना. कवितेचे विशय तांकां तांचे सरभोंवतणीं शिंपडिल्ले दिसतले. आयजकाल आमचें जिवीत मोटे गतीन बदलत आसा. ताचो परिणाम आमचें अर्थकारण, राजकारण, समाजकारण आनी पर्यायान आमचे मानसीकतायेचेर जाल्लो आमी पळयतात.

-----------

आनी ही परिस्थिती आटापा हाडप आयज कोणाच्याच हातांत उरूंक ना. ही नवी वेवस्था आमचे कुटुंबीक जिणेक बादीकार जाल्या. घरपण म्हणल्यार कितें?

*बंगलो आसूं ना जाल्यार खोंप*
*मल्लाची*
*घर हें चार वण्टींचें*
*जमीन तीच, चिरे तेच*
*दारां तींच, नळे तेच*
*घरांत रावपी मनीस मात तरेतरेचे*
*हांसतीं तोंडां वातावरण उमेदीचें*
*सदळ हात व्हडल्या काळजाचे*

अशें घर आनी तातूंत रावपी मनशांक लागून घरांत सोयरो येवपाक आशेता.

*आनी तेन्नाच त्या घराक घरपण येता.*
*ह्या घराक घरपण म्हणटात*
*नाजाल्यार फकत घर म्हणटात*

अशी घराची व्याख्या कवी हांगा दिता. हें आदर्श घराचें चित्र. पूण खऱ्यानीच अशे तरेचें घर आमकां आयच्या समाजांत पळोवंक मेळटा? अशें आशिल्लें जाल्यार वृद्धाश्रम कित्याक वाडटले आशिल्ले? ह्या प्रस्नाची जाप कवी दिता. जाण्टे म्हणल्यार कावलाक काडिल्ल्यो वस्तू. तांचे कडेन पळोवपाक कोणाक वेळ ना. कित्याक वेळ ना?

*घरांत कोणाकूच जाण्ट्यां खातीर वेळ ना*
*पुताक भायलीं कामां*
*सुनेक घरचीं कामां पार्टी-भिशी*
*उरिल्ल्या वेळांत कामां*
*तातूंतय वेळ मेळ्ळ्यार पार्लरांत वचपाचें*

मनांत आसल्यार आमकां वेळ आसता. पूण मनांत नासल्यार वेळ कसो मेळटलो? हो म्हत्वाचो प्रस्न. देखूनच वृद्धाश्रमांचो आंकडो आयज दिसान दीस वाडत आसा. येवरोप, अमेरिका सारकेल्या खंडांनी जे कुटुंब वेवस्थेचें चित्र

दिसतालें तें चित्र कुटुंबीक मुल्यांचेर श्रद्धा आनी विस्वास आशिल्ले भारती संस्कृतायेंत दिसूंक लागलां ही चिंतेची आनी खंतीची गजाल. तरणे पिळगेंतल कांय जाणांक जाण्टीं मनशां 'डस्टबीन' कशीं दिसतात. आयज आमची भौती उदरगत खूब जाल्या हें दुबावा विरयत. पूण तेच बराबर नितीचे नदरेन मा आमी निसरत चल्ल्यात हेंय तितलेंच खरें आसा. कवी आमच्या ह्या दोशांच बोट दवरून आमकां भानार हाडपाक सोदता. 'कलियुग' ही कविताय म्हत्वाच आसा. नितीमुल्यांच्या ऱ्हासाचें कारण कलियुगाक लागून आसा अशें आम मानतात.

*धवे-भगवे कपडे घालतात नांवान तुज्या*
*प्रवचन दितात नांवान तुज्या*
*लोकांक फटयतात-चोरतात नांवान तुज्या*
*बायलांची अब्रू लुट्टात नांवान तुज्या*

ही आयची आमच्या समाजाची गत. आयज नितीमत्तेचो गोबोर करपी दुसर वस्त म्हणल्यार पयसो. पयशाक लागून मनीस आपल्या पेल्याक विसरता. तं सगळीं नातीं पयस दवरता. कवी हांगा ताची एक जंत्रीच दिता आनी अखेरेक विचार करूंक लावपी एक प्रस्न विचारता -

*लक्ष्मी, हेंच तुजें दुसरें रूप आसूं येता?*
*खरें सांग? आसूं येता?*

हो प्रस्न खऱ्यांनीच सगळ्यांक पडटा आनी ताची जाप लेगीत जाय तशी आमचे लागीं आसना. खऱ्यांनीच पयसो एक व्हड शक्त. ताचो मोह सहज सुटप कठीण. अशें जरी आसलें तरी पयसो सगळें सूख हाडटा अशें ना. देखून दुसरे एके कवितेंत हो कवी बरी भलायकी म्हणल्यारूच खरी संपत्ती अशें म्हणटा. आनी एका अर्थान तें खरेंय आसा. संपत्ती निखटी आसली म्हणून जायना. ती भोगपा खातीर बरी भलायकी आसपाक जाय.

मनीस पिरायेन वाडत वता तितलो तो निरागसपण व्हगडावन बसता. जिविताची सांजवेळ लागीं पावता तशी ताका आपल्या भुरगेपणाचो आठवण जावन तो आकूळपिकूळ जाता. भुरगेपणांतल्या ल्हान ल्हान गजालींनी खूब मोटी खोस आस्पाविल्ली आसता. देखून कवी देवाक पराथता

*दी म्हाका देवा, म्हजे भुरगेपणाचे दीस*

*ते वेळेर वचपाचे, रेवेंत नाचपाचे*
*दर्या कडेन धांवपाचे, ल्हारां बराबर खेळपाचे*
*सगळी रेंव घेवन घरा येवपाचे*

हें निरागसपण सोंपतकच आमकां तोंडार रुपडें घालून भोंवचें पडटा. आनी ताका लागून आमची सगळी जीण अडेची जाता. हो कवी अशे तरेन समाजीक आशय कवितेंत केळयता. तेच बराबर शाश्वत आनी खिणयाळ्यो संवेदनाय उतरांतल्यान चितारता. पती खातीर ह्यो वळी पळोवं येता.

*नांव तुजें ओले रेंवेर बरोवं नाका*
*दर्याचें ल्हान येतलें*
*आनी अचळय व्हांवन वतलें.*

हें नांव कुपार बरयल्यार वाऱ्या बराबर तें उबून वतलें हाची ताका जाणीव आसा आनी तें बर्फार कोरांतल्यार विरगळटलें अशें तो सांगता. नांव बरोवपाचें आसल्यार तें काळजार बरोवचें. कित्याक लोकांचे यादींत सासणाचें उरतलें.

केन्ना केन्ना ही कविता मोगाची भास उलयता.

*इतल्यान तूं येतना दिसलो*
*सगळो संवसारूच हाल्लो.*
*तोच वारो आतां सुखदिणो आसलो*
*जेन्ना हांवें तुका वेंगेंत घेतलो*
*तेन्ना तूं फकत म्हजो आसलो*

दोळे उक्ते दवरून समाजाचे पिडेची परिक्षा करपी हो कवी. आनी समाजमनाचो थाव घेवपाचो यत्न तो आपल्या उतरां वरवीं करता. तांणी कवितेची साधना करीत रावची.

शिगम्याची पुनव
१७ मार्च २०१४

माधव बोरकार

# मांडावळ

# सरस्वती वंदना

वंदे सरस्वती विद्या दारिणी
नमन तुज्या पवित्र चरणी ।

सुंदर रूप जशें ब्रह्मकमळ
ज्ञानदीप कशे शांत दोळे
शुभ्र वस्त्र नितळ मन
धवें संगमरवरी तुजें आसन
हातांतले विणेचे सूर
वाऱ्यान उफेता त्रिलोकांत
पाखां फुलोवन मोर
भोंवतणीं नाचता तालार

तूंच ज्ञान, तूंच विद्या
तूंच शक्त, तूंच बुद्दी
तूंच उजवाड, तूंच परब्रह्म
ब्रह्मा, विष्णू, महेश्वर
तुजीच करता साधना ।

पायां पडून मागता तुजे लागीं
दी आमकां विद्या, दी आमकां ज्ञान
दी आमकां सुविचार, दी आमकां सुबुद्दी
सतत राव आमचे जिबेर
आमच्या काळजांत घर करून
आमचो सासणाचो सांबाळ कर ।

## घरपण

बंगलो आसूं
नाजाल्यार खोंप मल्लाची
घर हें चार वण्टींचें
जमीन तीच, चिरे तेच,
दारां तींच, नळे तेच
घरांत रावपी मनीस मात तरेतरेचे,
हांसतीं तोंडां, वातावरण उमेदीचें
सदळ हात, व्हडल्या काळजाचे
देव, धर्म, सूख, शांती सदांच
मोगाचो येवकार, निरोप आशिर्वादाचो
गेल्लो सोयरो परत येवपाक आशेता
ह्या घराक घरपण म्हणटात
नाजाल्यार फकत घर म्हणटात
फकत घर म्हणटात

# भुरगेपण

दी म्हाका म्हजें भुरगेपण परत
नाका हें धन, नाका चिंता संवसाराची
खेळूं दी म्हाका पावसाचे पावळेंत
सोडून कागदाचीं व्हडीं उदकांत
खेळूं दी म्हाका पावसाच्या चिखलांत
गड्डे घालून जमनीच्या मिलांत
उडोवं दी म्हाका पतंग ऊंच मळबांत
नाचूं दी म्हाका शेतांत वारें खायत
खेळूं दी म्हाका दर्याचे देगेर
बांदूं दी म्हाका रेंवेचे किल्ले वेळेर
धावूं दी म्हाका दोंगरार तोरां पाडीत
जांबळां आनी काण्णां पुंजायत
खेळूं दी म्हाका रोमटां रंगून
आनी सगळ्यांचेर रंग उडयत
दी म्हाका हेच दीस परतून
नाका म्हाका धन, नाका ती संवसाराची चिंता
दी हेच गा दीस म्हाका परत

# कसो चुकलों?

आमच्या मेळपाक कांय अर्थ नासलो
अशें हांव समजतालों
एक दीस चलतना तिचो लेंस पडलो
उखलून तिका दिवंक जाय आसलो
हें हांव समजूंक ना शकलों
तिच्या केंसांच्यो बटो तिच्या दोळ्यां सामकार नाचताल
मात्श्यो वयर काड न्हय दोळ्यां सामकारच्यो
हाचोय अर्थ म्हाका ना समजलो
अशीच खूब वर्सांनी ती म्हाका परत मेळ्ळी
हांसत आमच्यो नदरो मेळ्ळ्यो
हांवें सकयले मानेन 'सॉरी' म्हणलें
विसर ते दीस सगळे
गेल्ले दीस येनात परत
ती फुडें गेली चलत
हांव एकदम विचारांत पडलों
हांव परतूनय कित्याक चुकलों?

# वधू परिक्षा

चलयेक पळोवपाक आमी गेल्ले
आवयन अपुरबायेन सांगलें
पासय मारून दोगांय येयात
एकामेकांक समजून घेयात
थोडो वेळ कोणूच उलयलो ना
कितें उलोवचें तेंच कळ्ळें ना
निमणो हांवें केलो धीर
आनी उलयलों उतरां चार
तुजे काळे काळे केंस पळय कशे उडटात,
जशीं ल्हारां एकामेकांचेर आपटतात
तुजे दोळे कशे हालतात,
जशीं कुपां मळबांत नाचतात,
तुजे तूं लजतना जाल्लें तुजें मुखामळ
जसो मावळटो सूर्य दिसता
तूं जेन्ना मना पसून हांसता
तेन्ना दिसता दर्या गाजता,
जेन्ना हांवें म्हणलें आतां परतुया
तिची नासली कांय हालचाल
ल्हवूच सांगलें - तुमी कविता करात
हांव चल्लें घरा

## खुरसाचें फेस्त

फेस्त आसलें आयतारचें
शिमे वयल्या खुरसाचें
लोक मोटे उमेदीन
तयारी करताले वचपाची

फांतोडेर मुज्गाच्या आवाजान
जाग आयली गांवाक
गेले लोक इगर्जेंत
मिस आयकून घेवपाक

खुरसा कडेन लोक वावुरतात
कोण खुरीस धुतात
कोण पड्डे लायतात
कोण बोंदेरां लायतात

व्हडल्यान कांतारां आयकून
पिसो कोलो आयलो धांवन
मोट मोट्यान आड्डून
हातभार लायता कामाक

गांवकार आयले तिळसांजे
फोगेट्यो जाल्यो जोरान
लादीन जाता नेटान
कोलो नाचता माटवांत

सोंपली लादीन एकदांची
कोल्याक रूच सोऱ्याची
खाले चणे पोसोभर
पिलो सोरो पोटभर

सगळो लोक घरा गेलो
कोलो खुरसा कडेन लवंडलो
रातभर पावसान भिजलो
दनपरां वतान जागो जालो
घरा वचपाचोच रस्तो विसरलो

# काजार

काजाराची तयारी चल्ल्या नेटान
माटव घाला घराच्या दारांत
दुकर मारला मागीलदारांत
रांदप चल्लां कुजनांत

व्हंकल रावता बांदार
न्हवरो रावता तोंकार
धेडो रावता बोंदरार
काजार आसा मलाकार

व्हंकलेन घाला व्हिस्तीद रेसपाराचो
पायांत घाल्यात बूट ऊंच खोंटांचे
न्हवऱ्यान घाला फात विळूदाचो
ग्रावाद मारला तांबड्या कोराचो

बँड लागलें वाजूंक मोट्यान
न्हवरो व्हंकल लागलीं नाचूंक धरून गोपांत
लोकय लागले नाचूंक नेटान
फोगेट्यो पेटल्यो माटवा दारांत

इतल्यान कोणें तरी मारली बोबाट बळवळून
ओ मुझे मांय म्हाका घे सांबाळून
व्हंकलेचो पांय सुजलो तिरपून
न्हवरो गेलो सगळोच गोंदळून

# दुरावो

पिंपळा रुखार रावतालें
जोडपें शेवण्याचें जाण्टेलें
भुरग्यांक तांणी वाडयलीं
रातदीस सांबाळ्ळीं
भोंवन भोंवन खाण हाडलें
चोंचीन तांकां खावयलें
एक दीस भुरग्यांक पाखां फुटलीं
भुर्रर करून उडून गेलीं
जोडपें वाट पळयतालें
भुरगीं केन्ना परत येतलीं?
आपलें दुख्ख कोणा कडेन वांटूं?
मोनजातीक उलोवंक येता?

पिंपळा शेजरा रावतालें
एक जोडपें जाण्टेलें
चल्याक अपुरबायेन वाडयलो
दीसभर आंगार खेळयलो
बरो ना जाल्यार राती जागयल्यो
खूब खूब शिकयलो
एक दीस नोकरी मेळ्ळी
भुर्रर करून परदेशांत गेलो
जोडप्याचे वाटेक दोळो लागलो
चलो केन्ना परत येतलो?
आपलें दुख्ख वांटूंक शकना
कोणा कडेन वांटूं तेंच तांकां समजना

# बेबदो

पावसाचे एके राती, पावस नेटान पडटालो
सोऱ्याच्या दुकानांत लांपयांव मिणमिणट्टालो
सोऱ्याच्यो गुठ्ठाणी भोंवतणीं पसरिल्ल्यो
लोक विडयो फुकीत सोरो ढोसताले

इतल्यांत एका बेबद्यान गाळ घाली पावसाक
रितो ग्लास फोडलो आपटून मेजाक
ताका पळोवन लोक लागले हांसूंक
बेबद्याचो राग चडलो तकलेक

तिडकी भरशीं बेबद्यान व्हडलो घोंट मारलो
सोऱ्याचे भिरकेसरशीं दारा भायर सरलो
तकली गिरगिरता, कांय दिसना काळखांत
पांय निसरून बेबदो पडलो उदकाच्या गटारांत

फांतोडेर बेबदो उदकांत उफेतालो,
गटाराच्या चिखलांत तो माखलेलो
गांवांत सगळे कडेन बोवाळ जालो
बेबदो मेलो, बेबदो मेलो

# आस

दर्यदिगेर आमी भोंवताली
हातांत घालून हात
पूण एक दीस तूं पयस गेलें
दुसऱ्याचो धरून हात

वता सुकण्याचें पोर उडून
आपलो घोंटेर सोडून
आवय पळयता वाट दोळे ताणून
तें परत येतलें म्हणून

झाडार धोलता फूल फुलून
माळी व्हरता तोडून
झाड वाट पळयता भर पावसांत
तें परत येतलें म्हणून

दर्या आड सूर्य गेलो, जाली तिळसांजे
जाणीव आसा तो अस्ताक गेलो म्हणून
तरीय पळयता वाट आशेन
तो परत येतलो म्हणून

पिशा मनाक कित्याक कळना? गेल्लो दीस परत येता?
तरीय मन मानिना
आनी आस सोडिना
आस सोडिना

# आसूं येता?

पयसो ही लक्ष्मी, पयसो सर्वश्रेश्ठ आसता,
पयशान राष्ट्र जोखता, पयसो मनशाक नटयता,
पयशान पोट भरता, पयशान शिक्षण जाता,
पयशान घरदार चलता, पयशान दुर्येस निवळटा
पयशाच्या सुखा खातीर मनीस दीसरात राबता
आपली न्हीद खळयता आनी आनंद मेळयता
पयशा खातीरच सगळें जाता

ह्याच पयशा खातीर मनीस मनशा कडेन झगडटा
मनीस नातीं-गोतीं विसरता, भाव भयणीक विसरता
चलो बापायक विसरता, घोव बायलेक विसरता
मनीस मनशाक मारता, मनीस आत्महत्या करता
झगडून झुजून राष्ट्राचीं राष्ट्रां काबार जातात
लक्ष्मी, हेंच तुजें दुसरें रूप आसूं येता???
खरेंच सांग! आसूं येता?

# वळण

ह्याच वळणार हांवें तुका पयलेंच पळयल्लें
ह्याच वळणार आमची नदर मेळिल्ली
ह्याच वळणार तूं म्हाका पळोवन हांशिल्लें
ह्याच वळणार आमी दोन उतरां उलयिल्लीं
ह्याच वळणार हांवें तुजो हात मागिल्लो
ह्याच वळणार हांव तुजी वाट पळयतालों
ह्याच वळणार हांव तुका सदांच परत सोडटालों

दीस कशे गेले कांय कळ्ळें ना
वेळाक राव म्हणल्यार वेळ रावलो ना
आयज तूं म्हजे बराबर ना
तुजी यादूय मनांतल्यान वचना
तुजें हांसपूय हांव विसरना
तुका उलो मारल्यारूय तूं परत येना
वळण मात तशेंच आसा, बदलूंक ना

# फुलाची मागणी

फांतोडे वयल्या पयल्याच किरणान
दोळे उक्ते केले फुलाच्या कळ्यान
एक फूल सांगता दुसऱ्या फुलाच्या कानांत
सुर्या कडेन मागतां पांयां पडून

नाका म्हाका बसपाक देवाच्या मुकुटार
नाका म्हाका मिरोवपाक बायलेच्या आंबाड्यार
नाका म्हाका सोबोवपाक फुडाऱ्याच्या कोटार
नाका म्हाका रावपाक मेल्ल्या मनशाच्या हड्ड्यार

रावूं दी म्हाका म्हजे आवयचे कुशींत
धोलूं दी म्हाका थंड वाऱ्यार
खेळूं दी म्हाका फुलपाख्यां वांगडा
खेळटां खेळटां न्हिदूं दी म्हाका चान्न्यांत
सपनेवं दी म्हाका आवयचे वेंगेंत
हीच म्हजी मागणी, तुमकां दिसत काणी!

# संपत्ती

शाळेच्या भुरग्यांक केलो प्रस्न मास्तरान
खंयची बरी संपत्ती सगळ्यांत?
खूब खूब पयसो, उत्तर दिलें पयल्या भुरग्यान
हें चूक उत्तर म्हणलें मास्तरान
व्हडलें घर, उत्तर दिलें दुसऱ्या भुरग्यान
हें चूक उत्तर म्हणलें मास्तरान
व्हडलें भाट, उत्तर दिलें तिसऱ्या भुरग्यान
हें चूक उत्तर म्हणलें मास्तरान
व्हडली मोटार, उत्तर दिलें चवथ्या भुरग्यान
हें चूक उत्तर म्हणलें मास्तरान
भलायकी, उत्तर दिलें पांचव्या भुरग्यान
शाबासकी दिली ताका मास्तरान

## सुखी कोण

सुखी कोण?
हेंच कळना
    गरीब म्हणटा
    घर ना सारकें रावपाक
    जेवण ना पोटभर जेवपाक
    धड जागो ना न्हिदपाक
    पयसो ना वखदाक
गिरेस्त म्हणटा
जेवण जेवंक जायना
पिडेक लागून
रातभर न्हीद पडना
आंग दुखीक लागून
    मिनिस्टर म्हणटा
    पयसो कसो लिपयतलों
    परत कसो जिखतलों
    रातभर तळमळटालों
    होच विचार सतयतालों
आम जनता म्हणटा
म्हारगायेक अंत ना
जोडिल्लो पयसो पावना
कसो दीस वतलो कळना
घर चलोवंक शकना
    सुखी ना कोणूच, सुखी ना कोणूच
    हीच खरी गजाल

# बाप्पाची घडयाळ

बाप्पा कडेन सुंदर घडयाळ आसा
जिवापाड तिका तो सांबाळटा
पूण एक दीस असोच गोंदळ जाता
एक कांटो दुसऱ्या कांट्या कडेन झगडटा

सेकंद कांटो मिनीट कांट्याक म्हणटा
दीसभर काम करून हांव पळय कसो थकतां
शांयशीं हजार चारशीं पावलां दिसाक चलतां
हांव तुमच्या सगळ्यां परस चड काम करतां

मिनीट कांटो वरां कांट्याक म्हणटा
दीसभर काम करून हांव पळय कसों सुकतां
चवद्यांयशीं चाळीस पावलां दिसाक चलतां
हांव तुजे परस खूब काम करतां

वरां कांटो दोगांकूय समजायता
हांव लेगीत चोवीस पावलां दिसाक चलतां
आमच्या नशिबान आसा तें काम आमी करतात
म्हणून हें जग चलता।

हें आयकून सेकंद कांटो आनी मिनीट कांटो रागार जातात
ते दोगूय जाण संपार वतात
वरां कांटो कश्यायकसो भोंवता
बाप्पा रागार जावन घडयाळ गटारांत उडयता

# वृद्धाश्रम

वृद्धाश्रमांत जाण्टे लोक रावतात
ते रावनात तर तांकां थंय दवरतात
घरांत जागो ना म्हणून न्हय
तर कोण पळोवपी ना म्हणून
        घरांत कोणाकच जाण्टयां खातीर वेळ ना
        पुताक भायलीं कामां
        सुनेक घरचीं कामां, पार्टी-भिशी
        उरिल्ल्या वेळांत कामां
        तातूंतय वेळ मेळ्ळ्यार पार्लरांत वचपाचें
वृद्धाश्रमांत बापायच्या कपलाक सुरकुत्यो
काकाचे दोळे सुकल्यात
ताई चिंतेन भायर पळयता
आई ओडून ताणून हांसता
        कोण कोणा कडेन उलयना
        कोण खंय पळयता तें कळना
        कोण रागान फुतफुतता
        कोण दोळे पुसता, दुकांनी रडटा
इतल्यांत आई म्हणटा, शिगमो गेलो
आतां संवसार पाडवो येतलो
अशेच दीस वतले
निमणे देवाक केन्ना आमची याद येतली?
ते मेरेन अशेंच जगपाचें
वृद्धाश्रमाक बरें मागपाचें

## प्रस्न

मसंडेंतलो वाठार एकदम शांत आसलो
मनशाचे कुडीन पेट घेतलो
उज्यान पेट घेतिल्लो
धुंवर वयर वयर वतालो
म्हजे कुशीक उबो आसलो
तो ल्हवूच म्हणूंक लागलो
बाबडो बरो मनीस गेलो
हांवें ल्हवूच उत्तर दिलें
साठ वर्सांचो काळ पंदरा मिनटांनी सोंपलो
आतां फकत काळो गोबर उरतलो
ना सूख, ना दुख्ख, ना हांसप, ना रडप
ना मोग, ना दुस्वास, ना भेद, ना भाव
ना झगडीं, ना गिरेस्तकाय, ना गरिबी
फकत गोबर तितलो उरलो
म्हज्या वांगडा तोवूय मान हालयत भायर सरलो
चार-पांच पावलां फुडें चल्लो
विष्णू एक नंबर फटींग आसलो
हें आयकून हांव विचारांत पडलों
निमणें हें सत्य काय तें सत्य आसलें?
म्हाकाच प्रस्न पडलो

# गुलाब

हातांत गुलाब घेवन
देवळा भायर उबो रावन
वाटेक नदर लावन
गेलें मन थकून

निमणो बेजार जावन
गुलाब उडयलो ताटांत
भटान गुलाब उखलून
दवरलो देवाच्या माथ्यार

आयलें तें थोड्या वेळान
सरळ गेलें देवळांत
ल्हवूच म्हणलें हांसून
गुलाब सोबचो देवाच्या माथ्यार

त्या दिसा पसून
तें आयलें ना परतून
आतां ताचे यादीन
देवाचो मुकूट सजयतां गुलाबान

# रुपडें

जिवनांत आसता इतलें बंधन
आवयबापायचो धरूंक जाय शब्द झेलून
घराण्याची लज दवरूंक जाय राखून
समाजांतूय वागूंक जाय भियेवन

हाची म्हाका जाणीव नासली
म्हणून मोगाची वेंग मारली
पूण जेन्ना हांव दचकून उठलों
तेन्ना हांव खडबडून जागो जालों

तेन्नाच्यान म्हजो तोल वता
म्हाका समजून घेवपी कोण ना
तूं म्हाका विसरून वतलो अशे आशेर
हांवूंय हें सपन पुसून उडयतां

मोगाक कांय अर्थ उरलो ना
आमी बंधनां तोडूंक शकनात
नुस्तें जशें उदका भायर जगूंक शकना
आमी समाजा भायर रावंक शकनात
म्हणून रुपडें घालून जगचें पडटा

# देवाचो सोद

केदारनाथ गेलों, कन्याकुमारी गेलों,
सोमनाथ गेलों, जगन्नाथपूरी गेलों
काशी गेलों, गया गेलों,
प्रयाग गेलों, मथुरा गेलों,
तिरुपती गेलों, शिर्डी गेलों,
खंयच देव ना दिसलो
फकत पयशांचो खेळ दिसलो
देवान मनीस केलो
मनशान पयसो केलो
आनी बाजार मांडलो
थकून जेन्ना घरा परतलों
म्हज्या घरांत देव मेळ्ळो
म्हज्या काळजांत देव आसलो
आयुश्यांतलो वेळ ओगीच वगडायलो

# व्हंकल पावणी

पांयां पडटात न्हवरो व्हंकल आवयबापायक
आवयचे दोळे येता भरून
गळो येता दाटून
अचळय व्हंकलेक वेंगेंत घेवन
पुटपुट्टात व्हंकलेच्या कानांत
ह्याच दिसाची वाट पळयिल्ली दोळ्यांत तेल घालून
दोनूय घरांक तूं बांदता एका धाग्यान
तो धागो दवर घट्ट सांबाळून
तुमचो संवसार सुखाचो आनी समृद्धीचो जावचो
मागतां हांव देवा कडेन हात जोडून
अखंड सौभाग्यवती आनी दीर्घायुश्य जावचें
आमी आशिर्वाद दितात मना पसून
नकळटां व्हंकलेचे फाटीर पडले दुकांचे थेंबे दोन
व्हंकलेच्या दुकांचे थेंबे पडले आवयच्या पांयार
हें सगळें पळोवन हांव पडलों विचारांत
हीं दुकां आसात सुखाचीं काय दुराव्याच्या दुख्खाचीं?

# तिळसांज

सूर्य गेलो दर्याचे कुशींत
काळोख शिंपडला सगळे कडेन
गोरवां परतलीं गोठ्यांत
शेवणीं आयलीं घोंटेरांत

मांय सुनेक सांगता मोगान
काळोख पडला जाल्या तिळसांज
देवा कडले दिवलेची वात सार तेल घालून
तुळशी कडेन लाय निरांजन
भुरग्याचे हातपांय घे धुवन
देवा कुडींत तांकां व्हरून
'शुभंकरोति' घे म्हणून
जाण्ट्यांक नमस्कार घे करून
भोंवता वास्तुदेवता घरांत
'तथास्तू' अशें म्हणत
लक्ष्मी लेगीत येता घरांत
व्हडलीं जावपाक देवा परस
जाण्ट्यांचो आशिर्वाद घेयात

# वेळ

जनावराचो जल्म जाता
तेन्नाच वेळाची सुरवात जाता
वेळ दिसना, पूण जाणवता
जनावरां वांगडा वाटचाल करता

वेळ राखून दवरूंक जायना
वेळ थांबोवन धरूंक जायना
वेळ कितलोय यत्न केल्यार रावना
वेळ तयार करूंक मेळना
वेळाचो सोद करूंक जमना
वेळ विकत घेवंक मेळना
वेळ विकूंक मेळना
वेळाच्या बदला दुसरें कांय घेवंक मेळना
वेळ वापरलो ना जाल्यार लेगीत रावना

वेळ आयुश्यांत एकदांच मेळटा
वेळाचो योग्य उपेग करात
तोच म्हापुरूश जाता
ना जाल्यार आम आदमी उरता

# दी म्हाका

दी म्हाका देवा, म्हजे भुरगेपणाचे दीस
ते वेळेर वचपाचे, रेंवेंत नाचपाचे
दर्या कडेन धांवपाचे, ल्हारां वांगडा खेळपाचे
सगळी रेंव घेवन घरा येवपाचे

दी म्हाका देवा, म्हजे भुरगेपणाचे दीस
पावसांत भिजपाचे, चिखलांत नाचपाचे
व्हडीं सोडपाचे,
ओलोचिंब जावन घरा येवपाचे

दी म्हाका देवा, म्हजे भुरगेपणाचे दीस
शेतांत धांवपाचे, फुटबॉल खेळपाचे
झाडार चडपाचे, तोरां खावपाचे
शेतांतली माती घेवन घरा येवपाचे

दी म्हाका देवा, म्हज्या भुरगेपणांतले दीस
तीं बाबाचीं उलोवणीं, आईची वेंग
आज्याचीं पिपिरमिटां, आज्जेच्यो काणयो
दी म्हाका देवा, म्हजे भुरगेपणाचे दीस
ना धांवपळ, ना पयशांची चिंता
ना फाल्यांचो विचार

# वाट

म्हजे जिणेंतलें एक सुंदर वळण
जिणेंत कितलींशींच वळणां पळयलीं
पूण हेंच तें सूख-दुख्खाचें वळण
ह्याच वळणार हांवें तुका पळयलें
ह्याच वळणार तूं म्हाका पळोवन हांसलें
मागीर ह्याच वळणार हांव तुजी वाट पळयतालों
आनी ह्याच वळणार आमी मेळूंक लागलीं
ह्याच वळणार हांव तुका व्हरूंक येतालों
आनी ह्याच वळणार हांव तुका परत सोडटालों
हेंच वळण म्हाका सदांच हांसयतालें
म्हाका उमेदी दवरतालें
पूण आयज म्हाका तें वळण नाकाशें दिसता
वळणार पावतकच त्यो यादी परत येतात
आनी म्हाका दुख्ख दितात
म्हजी न्हीद वता, रात सोंपून सोंपना
देवा, हें वळण काडून सरळ रस्तो कर

# खातकुतल्यो

सरसरी श्रावणांतलो पावस आयलो आनी गेलो
फाटल्यान चकचकीत वत आयलें
तरी पुणून ओथांबे झाडा वयल्यान
म्हजेर पडटात आनी भिजयतात

श्रावणांतल्या पावसा सारको तूं आयलो
म्हाका हांसयलें आनी खुबळायलें
शेवण्या सारको तूं भुर्रर करून गेलो
पूण तुजी याद, ओथांब्या सारकी खातकुतल्यो करता
म्हज्या जिवनांत आयज तूं परत आयलो
म्हज्या पावलार पावल दवरून चल्लो
म्हज्या जिवनांत मिसळून गेलो
तुजी याद म्हाका ओथांब्यावरी रडयता
सगळी जीण ही अशीच
श्रावणांतल्या पावसा सारकी येता आनी वता
पूण बरें काम मात
ओथांब्यावरीच करीत आसता - खातकुतल्यो

## सुंदरकाय

काय बरे तुका दोळे दिल्यात
दोळ्यांत काजळ घालून
भोंवतणीं रंग काडून
कित्याक गो दोळे तुजे भिरांकूळ करता?

काय बरे त्यो तुका भोंवयो दिल्यात
कित्याक गो त्यो काडून
आनी रंग भरून
त्यो वांकड्यो तिकड्यो किडीवरी करता?

काय बरे तुका लांब केंस दिल्यात
कित्याक गो ते मोटवे कापून
ताका तरेतरेचो रंग लावन
भुता भशेन काया करता?

काय बरें गो तुका नाक दिलां
कित्याक गो ताका बुराक करून
तातूंत नथ हुमकळायत वाट लायता?

काय बरे गो तुका कान दिल्यात
कित्याक गो ताका बुराक करून
जड जड कानांतलीं घालून
त्यो पाळ्यो पिंजता

तुजे सुंदरकायेक सोबीतकायेची
इश्टीण कर, विद्रूप करूं नाका

# संवसार कुवाडें

हो भायलो संवसार
हें ना सुटपी कुवाडें
हांगा दिसूय आसा
आनी रातूय आसा
हांगा मोगूय आसा
आनी दुस्वासूय आसा
हांगा बरो परमळ आसा
आनी घाण वासूय आसा
हांगा सादो मनीस आसा
आनी फटिंगूय आसा
हांगा देवूय आसा
आनी दैत्यय आसा
हांगा साधू-संतय आसा
आनी खाटीकूय आसा
हांगा दानशूरय आसा
आनी कंजूसय आसा
हांगा आनंद आसा
आनी दुख्खय आसा
असलें कसलें हें कुवाडें
जाची जापूच मेळना
ना सुटपी कुवाडें
हांगा न सुटपी कुवाडें

# माया

असोच एक दीस खेळटां आसतना
म्हाका एक सोबीत कोंबयेचें पील दिसलें
हांव ताका धरपाक गेलों
पळयत जाल्यार खंयच्यान तरी कोंबी
धांवत म्हाका चोंच मारपाक आयली

असोच एक दीस खेळटां आसतना
म्हाका एक सोबीत सुण्या पेटो दिसलो
हांव ताका सांसपूंक गेलों
पळयत जाल्यार सुणीं खंयच्यान तरी
धांवत म्हाका चाबूंक आयलीं

असोच एक दीस भोंवता आसतना
म्हाका एक सोबीत माकडाचें पोर दिसलें
नकळटां हांव ताका उखलूंक गेलों
पळयत जाल्यार माकडीन खंयच्यान तरी
धांवत म्हाका बुड्डूंक आयली

असोच हांव आतां भोंवता आसतना
म्हाका एक ल्हान चली आनी आवय दिसली
हांव तांचे कडेन पळयत जाल्यार
आवय चलयेचो सौदो करता
हीच ती आवयची माया, पयशांनी जोखता?

# ल्हार

हांव असोंच दर्यादिगेर उबो आशिल्लों
इतल्यांत एक ल्हार आयलें
हांवें ताठ मानेन ताका झेल्लें
म्हज्या नाका-तोंडांत उदक वचून
हांव घुस्मटलों

हांव म्हाका सांबाळटालों, इतल्यांत
दुसरें ल्हार आयलें
हांवें अचळय म्हजी मान सकयल केली
आनी ल्हार म्हजे तकले वयल्यान गेलें

जीण हो एक असोच दर्या आसा
केन्ना ल्हार येता तें कळना
ताठ मानेन जगचें, पूण
जेन्ना ल्हार व्हड येता तेन्ना
मान सकयल करपाक शिकचें

# धर्तरी

कितली सोबीत ही आमची धर्तरी
कितली शांत आमची ही धर्तरी
लांब न्हंयांनी नटल्या ही धर्तरी
ऊंच दोंगरांनी सजल्या ही धर्तरी

उजो लागल्यार सोंसता ही धर्तरी
कितलेंय उदक पडल्यार झिरपयता ही धर्तरी
पडल्यारय झेलता ही धर्तरी
मेल्ल्या प्राण्यांकय वेंगेंत घेता ही धर्तरी

हें सगळें सोंसूनय झाडां जगयता ही धर्तरी
तरेतरेचीं फळां आनी फुलां फुलयता ही धर्तरी
आमच्या घराचें वजन पेलता ही धर्तरी
आमकां सगळे तरांचें धन-धान्य दिता ही धर्तरी

शांतादुर्गे सारकी शांत ही धर्तरी
मनशाच्या विध्वंसपणाक कंटाळून
दुर्गेचें रूप घेता आनी
दुभंगून संवसाराचो नाश
करता ही धर्तरी

# विचित्र जग

हें कसलें विचित्र जग
तुवें घडयलें परमेश्वरा
उदका बगर आमी जगूंक शकनात
पूण त्याच उदकाक जर
उमळ आयली जाल्यार
उदकांत आमचो जीव वता

हें कसलें विचित्र जग तुवें घडयलें परमेश्वरा
वाऱ्या बगर आमी जगूंक शकनात
पूण त्याच वाऱ्याचो जर भोंवरो जालो
जाल्यार वाऱ्यान घुस्मटून आमचो जीव वता

हें कसलें विचित्र जग तुवें घडयलें परमेश्वरा
सुर्या बगर आमी जगूंक शकनात
पूण तेंच वत जर कडक जालें
जाल्यार आंग भाजून आमचो जीव वता

हें कसलें विचित्र जग तुवें घडयलें परमेश्वरा
धर्तरी बगर आमी जगूंक शकनात
पूण तीच जर भुंयकांपान दुभंगली
जाल्यार जमनींत पुरून आमी चिड्डून
आमचो जीव वता

हें कसलें विचित्र जग तुवें घडयलें परमेश्वरा
उज्या बगर आमी जगूंक शकनात
पूण त्याच उज्यान जर पेट घेतलो
जाल्यार तापून करपून तो उजो
आमचो जीव घेता

# भास

शरद पुनवेच्या रातच्या चान्न्यांत
थकून हांव बसलां कुपातराच्या फातरार
थंड वाऱ्याची झुळूक म्हज्या आंगाक पोशेताली
म्हाका नकळटां लकणी लागली

म्हज्या दोळ्यां मुखार तिच्या केंसांच्यो बटो
वाऱ्या वांगडा हालताल्यो आनी धोलताल्यो
तो थंड वारो म्हज्या तोंडाक लागलो
आनी तिचो परमळ म्हज्या नाकाक जाणवलो
तिचो मधूर सूर आनी मंजूळ
पांयजणांचो आवाज म्हज्या कानाक जाणवलो
आनी एक झुळूक म्हज्या आंगार नाचली
जसो काय तिचोच स्पर्श म्हाका जालो

आंग काडून जागो हांव जालों
पळयत जाल्यार हांव, चंद्रीम आनी वारो
हाचे भायर आनीक कोणूच ना
फकत उरलो सगळो भास

# नांव

नांव तुजें ओले रेंवेर बरोवं नाका
दर्याचें ल्हार येतलें
आनी अचळय व्हांवन वतलें

नांव तुजें कुपांचेर बरोवं नाका
ल्हवूच वारो येतलो
आनी नांव उडून वतलें

नांव तुजें बर्फार बरोवं नाका
सुर्याचें किरण येतलें
आनी अचकीत उदक जावन वतलें

नांव तुजें कागदार बरोवं नाका
कागद पिंजून वतलें
आनी नांवूय ना जातलें

नांव बरोवचें आसल्यार
कोणाच्या काळजार बरय
नांव तुजें सासणाचें उरतलें
आनी जिबेर सगळ्यांच्या आसतलें

## याद

कित्याक रे चलतां चलतां
ऐन वेळार सोडलो म्हजो हात?
अर्द्या रस्त्यार उबें एकटें
म्हाका वाट समजना
फुडें वचपाक मन तयार ना
फाटल्यान पळयल्यार वाट दिसना
रंगयलें एक सुंदर सपन
तुजो आदार घेवन
अकचीत तुजो हात सुटून
सगळें सपन गेलें विस्कटून
पण्टेच्या मंद उजवाडान
वाट पळयतां एके नदरेन
येवजून जीव आयलो थकून
पण्टेंतलें तेल सोंपून
वात पालवतली थोड्या वेळान
तरीय दोळे दवरतां उक्ते ताणून
काळोख दिसता सगळे कडेन
एकूच ज्योत, तुजी याद तातूंत

# बदल

तूं कित्याक आयलो ना अजून?
सूर्य लेगीत गेलो थकून
काळोख शिंपडला हेवटेन तेवटेन
नखेत्रां खेळूंक लागलीं मळबांत

वता थंड वारो आंगाक तेंकून
केंस वतात वाऱ्यान पिसडून
रेंव वता दोळ्यांत उडून
वाट पळोवन जीव गेला खचून

घडयाळीचे कांटे कशेच हालनात
म्हजें मन थीर रावना
वायट बरे विचार म्हाका सोडिनात
तूं कित्याक अजून पावना?

इतल्यांत तूं येतना दिसलो
सगळो संवसारच हाल्लो
तोच वारो आतां सुखदिणो आसलो
जेन्ना हांवें तुका वेंगेंत घेतलो
तेन्ना तूं फकत म्हजोच आसलो

# दुर्दशा

हाय हाय गोंया
तुजी कशी गत जाल्या अशी?
ह्या एकविसाव्या शेंकड्यांत
ही रे कसली दुर्दशा?
वाहनां आसात
रस्ते नात चलोवपाक
मोबायल आसात
वीज ना चार जिंगाक
नळ आसा
उदक ना पियेवपाक
भाजीपालो आसा
पयसो ना विकतो घेवपाक
मंत्री आसा
वेळ ना आयकुपाक
दांत आसात
चणे ना खावपाक
हीच गोंयची दुर्दशा

## हेंच खरें

सुर्याच्या वतान दर्याचें उदक तापता
आनी वाफ जाता
उडत उडत मळबांत वता
कुपाचें रूप घेता
बसून वाऱ्याच्या खांद्यार
भोंवता जगभर
जातकीर पुरो भोंवन
पावस जावन
जमनीर येता
थांबता, व्हांवता
वाटेर सगळ्यांची तान भागयता
न्हंयेंत देंवता
न्हंयेच्या उदका सांगातान
खेळत नाचत परतून
येता दर्यांत
हेंच खरें मिलन आसता

# न्हंय

तूं कोणाच्या मोगांत पडल्या?
कोणाक मेळूंक आशेल्या?
नटून थटून खंय वता?
कित्याक दीसरात धांवता?
कसलीच पर्वा करिना
दोंगरा वयल्यान उडी मारून
कांटेकुटे माड्डून
व्हडल्या खडपांक तोंड दिवन
वांकडी तिकडी व्हांवत वता
रंग रूप बदलीत आसता
तुजे वाटेर येता
ताका वांगडा घेवन वता
तुका कोणूच आडावंक शकना
तुका ना कोणाची पर्वा
आपले भितरूच मग्न आसता
पद गुणगुणायत वाट चलता
आनी एक दीस हांसत खेळत
तुजो मोगी दर्या तुका मेळटा
रंग रूप तूं विसरता
एकरूप जावन ल्हारा वांगडा खेळटा
आनी दर्यांत विलीन जाता

# पश्चात्ताप

आमी खूब आशेन, उमेदीन
स्वतंत्रताये खातीर झुजले
रगताचें तेल करून
मशाल पेटयली
रातीचो दीस करून
हूम गळयली
जिवाची पर्वा करिनासतना
आर्मांक तोंड दिलें
स्वतंत्रताय मेळटकच आनंदान
सपन रंगयलें

आयज उरलें फकत सपन तें
आमी आमदार वेंचतात
तेच आमकां वळखनात
मंत्री अधिकारी लुट्टात
लांच दिल्यारूच काम करतात
म्हारगाय दीसानदीस वाडटा
खून, दरोडे, बलात्कार वाडटात
तोंडार हांसत फाटींत सुरो खुपशिता
सगळे कडेन अन्याय आनी बेशिस्त
आटयिल्ल्या रगताचो निमाणो होच प्रश्चात्ताप??

## घुस्मटमार

अशें कितें जालां गो
तुजें चित्त ना थाऱ्यार
सकाळच्यान कित्याक गो
तूं नदरेक दिना नदर
सकाळीं फुडें दिली गो
च्या नासतना साकर
दनपरां जेवण जालें गो
खारट जसो मिठा आगर
आयज सबंद दीस गो
कित्याक जड जालां उतर
रातभर सारकें न्हिदूंक ना गो
तळमळत हे कुशीर ते कुशीर
सगळें सांगून उडय गो
करूं नाका मन दुबावाचें घर

# एक सपन

सपनांत बापूजी आयलो
म्हजे म्हऱ्यांत बसलो
कपलार आटयो कसल्यो?
ताणें असो प्रस्न केलो
तुवें राष्ट्र घडयलें
चोराच्या हातांत सोंपयलें
दीसरात जनतेक लुट्टात
तांकां ना कोण विचारतलो
म्हारगाय वाडटा, नोकरी ना
खावपाक अन्न ना
चलयांची अब्रू सुरक्षीत ना
बापूजीन म्हणलें
आरे, म्हज्या पुता
विसरलो माकडा मंत्र?
कर बंद दोळे तुजे
जें चल्लां तें पळोवं नाका
कर बंद कान तुजे
जें चल्लां तें आयकूं नाका
कर बंद तोंड तुजें
जें चल्लां तें उलोवं नाका
कर जीवन तुजें खोशयेचें
ओगीच दुख्ख नाका

# आजी म्हणटा

सकाळीं फुडल्या पांखाटेर
कावळो आड्डता
आयज कोण सोयरो
जेवंक येता दिसता

आयज सकाळच्यान
उजवो दोळो उडटा
बरें कितें घडचें आसा

हाताचो तळवो
दीसभर खरजता
आयज धन येवचें आसा

जेवता आसतना
उस्तुरें वता
मोगाच्या मनशान
याद काडली दिसता

कामाक भायर सरलो
आनी भुरगीं शिंकलीं
आळशी उठलो
शिमरो शिंकलो

# मॅचिंग मॅचिंग

माणकुलो बाबुलो
वाडदीस पयलो वयलो
बाबू बाबडो झेमेता
आवय-बापूय बोवाळटात
भुरगी हॉलभर नाचतात
दादले गजाली मारतात
बायलां एकामेकांक तोखेतात
ब्लावज मॅचिंग साडयेक
टॉप मॅचिंग पॅण्टीक
नेल पॉलिश दुरंगी नाखटांक
त्याच रंगाचें लिपस्टिक ओंठांक
दोळ्या भोंवतणीं रंग झगझगीत
दोळ्यांच्यो पापण्यो चकचकीत
दोळ्यां वयल्यो भुंवयो घसघशीत
दोळे केल्या लुकलुकीत
तांबडे काळे केंस फाटीर
कानांतलीं हुमकळटा मानेर
तरेतरेचीं कांकणां हातभर
हाता वयलो टाटू खांदोभर
गळ्यांतली माळ पावता पोटार
पांयांतल्या सँडलीची खोंट वेंतभर
कळना सगळो खेळ
वाडदीस काय शिगम्याचो मेळ

# जात्रा

गांवांत जात्रा
गर्दी लोकांची
कोणाच्या फुलां हातांत
कोणाच्या फळां हातांत
भुरगे नाचतात
जाण्टे गजाली करतात
इतल्यान मंत्री येता
देवा मुखार उबो रावता
भोंवतणीं नदर मारता
हजारां नोट ओंवाळटा
नोट ताटांत सोडटा
भट नाल्लान आशिर्वाद दिता
फाटल्यान आमदार येता
पांचशां नोट ओंवाळटा
नोट ताटांत सोडटा
भट वळ्यान आशिर्वाद दिता
मागीर पंच येता
शंबरां नोट ओंवाळटा
नोट ताटांत सोडटा
भट कातले कुडक्यान आशिर्वाद दिता
बाकी सगळी जनता
फुलां पाकळ्यान समाधान मानता
साधू-संत म्हणटात
देवाक सगळे लोक समान आसतात
जाल्यार अशें कित्याक घडटा?

# कलियुग

हे परमेश्वरा
कृष्ण तूं, जेजू तूं,
अल्ला तूं, परब्रह्म तूं,
सर्वरुपी तूं, सर्वज्ञानी तूं

लोक झगडटात नांवान तुज्या
हत्या करतात नांवान तुज्या
बॉम फुट्टात नांवान तुज्या
जाळपोळ जाता नांवान तुज्या

धवे-भगवे कपडे घालतात नांवान तुज्या
प्रवचन दितात नांवान तुज्या
लोकांक फटयतात-चोरतात नांवान तुज्या
बायलांची अब्रू लुट्टात नांवान तुज्या

पळयता तूं तुज्या दोळ्यान
पूण कांय जायना तुज्या हातान
असलो कसलो कलियुग घडयलो?
तुजेर विस्वास दवरलो तो फटवलो

# आशिर्वाद

दोतोर, बरें जावं
आयुश्यमान भव
तकलेर हात दवरून
म्हणलें म्हज्या मास्तरान
म्हाका बरो विचार दी
म्हज्या हाताक येस दी
सेवा करपाचें भाग्य दी
सेवा करतना निरोप दी
मास्तरान भरिल्ल्या दोळ्यान
घेतलो आपले वेंगेंत
पडले आशिर्वादाचे थेंबे दोन
सुखावलें म्हजें मन

# राती थांब

मोगी म्हणटा
आतां चंद्रीम आयला
आमी आतांच मेळळ्यांत
राती इतले बेगीन
नाका वचूं धांवन
आमचो मोगाचो खेळ
अर्द्यार नाका विस्कळूं

चोर म्हणटा
आतांच रिगलां घरांत
मनासारकें मेळूंक ना धन
राती इतले बेगीन
नाका वचूं धांवून
म्हजी आयची जोड
अर्द्यार कित्याक सोड?

नातूक म्हणटा
आतांच पडलां घोली भायर
खावंक मेळूंक ना पोटभर
राती इतले बेगीन
नाका वचूं धांवून
म्हज्या पिलांक
नाका अर्दपोटार दवरूं

हांव म्हणटां
आतांच तकली लायल्या उश्याक
सारखी न्हीद मेळ्ूंक ना जिवाक
राती इतले बेगीन
वचूं नाका धांवून
शांत न्हीद सुखाची
कित्याक अर्दी उरची

# पयलो मोग

पयलो वयलो मोग आमगेलो
तुका कसो समजतलो?
म्हऱ्यांत येतकूच उतर सुटना
कितें उलोवचें तेंच सुचना
हांसतना लेगीत ओंठ थरथरतात
काळीज ओगीच धडधडटा
भितरले भितर कितें तरी जाता
जीव घुस्मटिल्ले भशेन दिसता
तुका चीट बरोवन सांगचेलो
यत्न हांवें केलो
पूण हात ओगीच कचरता
हातांतल्यान पॅन सुटून पडटा
कशीं तरी दोन उतरां बरयतां
इतल्यांत मन विचारांत घुस्पता
अर्दकुटी चीट पळयतां
दोळ्यांतल्यान दुकां गळटात

# भाजीवाली

भाजी गे भाजी
आयली भाजीवाली
भाजी घेवन आयली

माथ्यार पाटली
हातांत पोटली
भाज्जेन भरिल्ली
घेवन दारांत आयली
आयली भाजीवाली
भाजी घेवन आयली

घोंसाळीं, वायंगीं,
भेंडे, तवशीं,
मुळो, तांबडी भाजी
तरेतरेची भाजी
घेवन दारांत आयली
आयली भाजीवाली
भाजी घेवन आयली

गांवभर भोंवता
दारादारांनी रावता
बाय भाजी घेता
नेटान साद घालता
सगळ्या गांवाक जागयता
आयली भाजीवाली
भाजी घेवन आयली

## सोबीत गोंय

जय जय गोंय हें आमचें
सोबीत गोंय हें आमचें
परशुराम भुमी ही आमची
जय जय गोंय हें आमचें

सह्याद्रीच्या पायथ्यार
अरबी दर्याच्या कांठार
व्हडले धाकले दोंगर
पाचवींचार शेतां
दूदसागरा सारके धबधबे
म्हादय सारक्यो न्हंयो
अशें सुंदर गोंय हें आमचें
जय जय गोंय हें आमचें

आंबो, काजू, पणस
सगळीं म्होंवाळ फळां
मोगरीं, चांफीं, जाय-जूय
तरेतरेचीं सुगंधी फुलां
नाल्लान भरिल्ले माड
व्हडले व्हडले रूख
दोंगरांत मीन, न्हंयेन रेंव
शेतांत भात, दर्यांत नुस्तें
अशें सोबीत गोंय हें आमचें
जय जय गोंय हें आमचें

देवळां, इगर्जो, मशिदी
मोगान जगता
ना भेदभाव
शांत लोक
ना झगडीं ना झुजां
सगळे कडेन उतर मोगाचें
भांगराचें गोंय हें आमचें
जय जय गोंय हें आमचें

# मास्तर

मास्तराचें जिवीत
ही दिवलेंतली वात
स्वता जळटा
ज्ञानाची ज्योत पेटयता
अज्ञानाचो काळोख पालयता
ज्ञानाचो उजवाड शिंपडायता
असंख्य वाती पेटयता
जगभर उजवाड पसरायता
वातीची कांयच अपेक्षा नासता
ज्ञान वात लावन उबी आसता
एक दीस वारें येता
दिवलेंतली वात पालवता
मास्तराक जग विसरता
नव्यो वाती पेटत आसतात
मास्तरांचें कार्य चालूच उरता

# होच प्रस्न?

कित्याक गे तूं विचित्र वागता?
दीसरात म्हजे भोंवतणींच रावता
हांव वतां
म्हजे फाटल्या फाटल्यान येता
तूं म्हजेर नदर दवरता
काय म्हजो सांबाळ करता
उजवाडांत म्हजे वांगडा आसता
काळखांत म्हाका गरज आसता
तेन्ना म्हजो सांगात सोडटा
घडयेक लांब जाता
घडयेक मोटवी जाता
रुपान सदांच काळी आसता
हें सगळें कित्याक करता?
होच प्रस्न म्हाका पडटा

# मनीस जल्म

पयलीं जल्म आसलो काय ना
परत जल्म आसतलो काय ना
हें कुवाडें कोणाक खबर ना
हो मनीस जल्म मेळ्ळा म्हणून
समेस्त तूं खरो भाग्यवान
खूब कमी वेळ तुज्या जिवितांत
तो बेठो नाका घालोवं
सतत अशें कार्य करीत राव
की तूं गेले उपरांत जग
लोक तुजी याद काडटले
नांव तांचे जिबेर खेळटलें
आनी काळजांत उरतलें

# जाणीव

आयली धरून तुजी हात
सगळी वाट उडत उडत
मोगाच्या पाखान
आशेच्या वाऱ्यान
हुमरो चडून तुज्या घोंटेरांत
एकामेकाच्या सांगातान
घोंटेर भरलो उर्बेन
खेळ खेळ्ळीं मोगान
नकळटां दीस गेले मजेंत
दोन सोबीत पिलां आयलीं घोंटेरांत
चिमणो पडलो चिंतेंत
अन्न कशें पडटलें पोटांत
दीसरात काम करून
जीव गेलो थकून
चिमणे वयलें लक्ष गेलें उडून
रावना जावन एक दीस उलयली
पिलां जातलीं व्हडलीं
पाखां तांकां फुट्टलीं
भुर्रर करून उडून वतलीं
फकत आमी दोगांच उरतलीं
गेल्लो वेळ येवचो ना परत
विसर सगळी तुजी खंत
ल्हवूच फाटीर भोंवडाय तुजो हात
वेंगेंत रावंदी म्हाका सगळी रात
जगुया मोगाचे दीस परत आयज

## उमळशीक

यो गो बेगीन घरा आतां
वाट तुजी पळयतां
सूर्य गेला अस्तंतेक
दर्यो आशेवन रावला भरतेक ।।धृ।।

सवणीं चल्लीं घोंटेरांत
गोरवां परतलीं गोठ्यांत
कुकडां पळूंक लागलीं घुडांत
घुंगुल्लोय जाला न्हिदसुरो साळकांत ।।१।।

तिळसांज जाली थंडाय आयली
वाऱ्या वांगडा झुळूक आयली
शिरशिरली वात तुळशींतली
भोंवतणच्या मुयांनी घेरायली ।।२।।

रात पडूंक लागली आतां
तरीय तुजो पत्तो ना
आवय तुजी हुस्केता
भंयान सामकी कचरता ।।३।।

गाराणें चल्लां देवा सामकार
मनांत पाल चुकचुकता
दोळ्यांत दुकां पाझरतात
उमळशिकेन तुका रावतात ।।४।।

# घर भरवणी

सोडलें म्हजें कूळ आतां
धरलो तुजो हात हातांत
भरलो हो जीव खोशयेन
झेलूंक लागलें म्हजें मन ।।धृ।।

वाऱ्यावरी हें चंचल मन
थीर जावंक सोदतालें
दोळ्यां पाती भिजयतालीं
उतरां ओंठान चिड्डितालीं ।।१।।

नवलाय म्हाका फुलयताली
उमेद म्हाका नटयताली
चंचल ही स्थिती म्हजी
कित्याक म्हणून कळनासली ।।२।।

हुमऱ्या वयलें माप हुपून
व्हंट म्हजी घेतली भरून
साक्ष घेतली घराब्याची
तरीय दुकां ओलीं म्हजीं ।।३।।

ओड ती ओड मायेची
गोडी ती गोडी जल्माची
जीण ती जीण भांगराची
शिरंगारांत कशी मेळपाची ।।४।।

# दुबाव

कितलो विचित्र हो दुबाव
चारूय वटांनी दुबावूच दुबाव
घरांत दुबाव, घरा भायर दुबाव
जागो आसल्यार दुबाव, न्हिदल्यार दुबाव

घोवाक बायलेचो, बायलेक घोवाचो
आवयबापायक चलयेचो, चलयेक भोंवतणचो
न्हवऱ्याक व्हंकलेचो, व्हंकलेक न्हवऱ्याचो
बॉयफ्रॅण्डाक गर्लफ्रॅण्डाचो, गर्लफ्रॅण्डाक बॉयफ्रॅण्डाचो

भुरग्याक मास्तराचो, मास्तराक भुरग्यांचो
नोकराक धनयाचो, धनयाक नोकराचो
गिरायकाक दुकानदाराचो, दुकानदाराक गिरायकाचो,
पेशंटाक दोतोराचो, पेशंटाक वखदांचो

राज्यकर्त्याक लोकांचो, लोकांक राज्यकर्त्याचो
मंत्र्याक ऑफिसराचो, ऑफिसरांक मंत्र्याचो
पाकिस्तानाक हिंदुस्तानाचो, हिंदुस्तानाक पाकिस्तानाचो
माजराक हुंदराचो, हुंदराक माजराचो

ह्या दुबावी जगांत विस्वास खंय शेणलो?
शेणलो, काय आमी शेणयलो?

# म्हातारपण

सुरवेचे दीस फाटीं पडले
नकळटां म्हातारपण आयलें
वांगडा दुयेंसूय आयलें
येवजूंक नासलें तें अणभवलें

दोळ्यांक सारकें दिसना
कानान सारकें आयकूंक येना
दांत गेले खावपाक येना
याद सारकी उरना

सांधे सगळे दुखतात
फाटीचो कणो बागवता
चलपाक भंय दिसता
पडत जाल्यार हांतरूण धरता

म्हाताऱ्या खातीर कोणाक वेळ ना
ताची येवजण भुरग्यांक पटना
हातांत कांय काम जायना
दुख्ख जाता जीव परसुवादीन

बरो जावपाची आस नासता
भितरले भितर रडूंक येता
हात जोडून एकूच मागतां
बेगीन कर याद आतां

# नशीब

सुखाक नशिबाची जाणीव नासता
दुख्खा वांगडा नशीब जागें जाता
नशीब म्हणल्यार कितें तेंच कळना
ताचे फुडें कोणाचेंच कांय चलना
यत्न केल्यारूय बदलूंक शकना
सांबाळून पावल घालचें पडटा
नाक घांसल्यारूय जाय तें मेळना
नाका आशिल्लें पदरांत पडटा
जें नशिबांत आसा तेंच मेळटा
जो आयुश्यांत जाय असो दिसता
तोच अचूक मेळना।
जाचे पसून पयस रावचो यत्न करता
तोच तोंडा मुखार उबो रावता
जाचे कडेन वच्चें न्हय अशें दिसता
ताचेच पांय धरचे पडटात
जेन्ना वेळ बेगीन वचूंक जाय आसता
तेन्ना वेळ वचून वचना
जेन्ना जिवनांतलो खरो अर्थ समजता
तेन्ना वेळ सोंपिल्लो आसता
निमणें हाकाच नशीब म्हणटात?

# भुरगेपण सांडलें

बाबूचो पयलो वाडदीस नेटान
दुसऱ्या दिसा बाबू क्रॅशांत
बाबूची रड कोणूच आयकना
आवयबापूय दीसभर दिसना

बाबूचो दुसरो वाडदीस करून
बाबू वता खेळ शाळेंत
बाबू ए बी शी म्हणटा
रातची अपुरबाय जाता

चवथ्या वर्सांत पांय दवरता
पयली परिक्षा दिता
केजींत भितर सरता
जॅक ॲण्ड जिल म्हणत नाचता

पांचव्या वर्सा पसून शाळेचो भार
पुस्तकांचें वजें फाटीर
अभ्यासाचें वजें तकलेर
दीसरात परिक्षेचो मार

शाळा शिकवण करतां करतां
नकळटां बाबू व्हडलो जाता
व्हिडियो कंम्पुटर घेवन खेळटा
आपालिपा गाडयांचो खेळ विसरता

एक दीस वळून फाटल्यान पळयता
ओल्या दोळ्यांनी येवजिता
सुंदर आपलें भुरगेपण सांडलें
काय कोणें चोरून व्हेलें?

# कॉँक्रिट जंगल

ये शेवण्यांनो ऊंच उडून
पयस चलात हो गांव सोडून
पिसोळीं गेलीं, पाखे गेले
भिरमुट्यो जाळीं विणूंक विसरलीं
रातकिड्यांचें गावप बंद जालें
कंटाळून फुलांनी दोळे धांपले

झाडां मारलीं, झुडपां लांसलीं
दोंगर कातरले, शेतां बुडयलीं
उदकाचीं तळीं खदूळ केलीं
हवा सगळी दुशीत जाली

तुका उडपाक जागो ना
घोंटेर बांदपाक झाडां नात
उदक आनीक उरूंक ना
घरां सोडून कांय दिसना

कितलो सुवार्थी मनीस जाला
पयशां धुंदींत कुड्डो जाला
सगळ्यांचो नाश करीत सुटला

# बोकड्याचो बळी

मनोकामना देवीच्या दर्शनाक
रांगेंत उबे आसले खूब लोक
आवय-बापूय चलताले धरून
ल्हान भुरग्याचो हात आनी बोकड्याचो कान
भुरग्याचें लक्ष नासलें देवीचेर
तो बसतालो बोकड्याचेर
खेळटालो तो बोकड्या कडेन
कान आनी शेंपडी ओडून
बोकडो थंड उबो आसलो
मान सकयल घालून रडटालो
ताचें पावल मात फुडें पडनासलें
ताका नेटा नेटान ओडटाले
भट कितें तरी गुणगुणूंक लागलो
बोकड्याचेर थंड उदकाचो शिंवर केलो
फातरार मान धरून वार केलो
तकली एके वटेन, धड दुसरे वटेन
हें पळोवन भुरगो दचकलो
म्हजो बोकडो म्हणून आड्डलो
व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागलो
हात-पांय बडावेन नाचपाक लागलो
बाबू, बोकडो देवागेर गेलो
आवयन समज घालचो यत्न केलो
हांव केन्ना देवागेर वतलों?
हें आयकून आवयचो जीव कळवळ्ळो
बोकड्याची यातना आवयच्या काळजाक जाणवली

# कोंबयेची जीण

कसली ही कोंबयेची जीण
जल्मा पसून बंदखणींत
खावप पोटभरून
भोंवपाक जागो काय ना
सुटल्यार चुकून
पळपाक कळना
वाडटा तो दीस वचून

एक दीस काडटा ओडून
गळो कापला एका झटक्यान
जीव सोडटा फडफडून
मडें व्हरपाक पयशे दिवन
उबे आसा लोक दारांत
हो कोंबो कितलो भाग्यवान
ताचे अंतसंस्कार मनशा पोटांत



**डॉ. उल्हास गोपाळ प्रभू नास्नोळकार** हें एक अश्टताशी व्यक्तीमत्व. तांचो जल्म ५ सप्टेंबर १९४३ ह्या दिसा जालो. गिरेस्त, बरें शिकिल्लें आनी नामना जोडिल्लें अशें तांचें घराणें. पणजे लागसार कालापूरा तांचो जल्म जालो. शिस्त, धर्म आनी घराण्याचे बरे संस्कार हांचो तांचेर भुरगेपणांतच बरो प्रभाव पडलो.

वैजकी शिक्षणा मेरेन ते गोंयांतूच शिकले. ताचे उपरांत मुंबय आनी मद्रास महाविद्यालयांत फुडलें शिकप घेवन ते हाडांचे तज्ञ दोतोर जाले. हे परिक्षेंत ते पयले आयले.

ताचे उपरांत ते गोवा मॅडिकल कॉलेजींत हाडांची शस्त्रक्रिया विभागांत 'प्रोफेसर' जाले. ह्या काळांत हाँगकाँग, इंग्लंड, जर्मनी ह्या भायल्या देशांनी वचून तांणी प्रशिक्षणय घेतलें.

गोंयच्या विद्यापीठांत ते शिक्षणीक आनी प्रशासकी क्षेत्रांत वांगडी आशिल्ले तशेंच भारतीय वैजकी समिती, गोंय वैजकी समिती, एमबीबीएस आनी एमएस ह्या साबार विद्यापिठांतल्यान तांणी प्रोफेसर परिक्षक म्हणून काम केलां.

ह्या सगळ्या शिक्षणांत तांणी तांच्या घराण्याचें आनी गोंयचें एक जबाबदार, कामाक ओंपिल्ले, शिस्त तशेंच देखदिणे कार्य केलां हातूंत मातूय दुबाव ना.

आतां ते बसपगारी जाल्यात आनी एक नामनेचे हाडांचे दोतोर म्हणून खाजगी वैजकी सेवा दितात. थंड, शितळ, मोगाळ आनी म्होंवाळ सभावाक लागून तांचे कडेन हाडांचे दुयेंती मुद्दाम येतात.

तांकां कोंकणी भाशेची खूब आवड आनी व्हड अभिमान. हाकाच लागून ते खूब वर्सां सावन कोंकणी कविता बरयताले. बसपगारी जातकच तांकां कोंकणीची सेवा बरे तरेन करपाक चड वेळ मेळ्ळो. तांचे हे मोलादीक कवितेचें पुस्तक म्हणल्यार कोंकणी सरस्वतीक एक अप्रूप फूल.

**- डॉ. भिकाजी घाणेकार**

